मुखेल संपादक
सुरेश ए. शेणै
उप संपादक
पी. मनोहर
कोशाधिकारि
आर. के. प्रकाश
वाँगडी
जी. मोहन राव
न्यायोपदेशक
अड.वी.एन. वसन्त कुमार
प्रचार-प्रसार
टी. आर. सदानन्द भट

Layout by :
K. Santhosh
Mob : 9895212521

मुखचित्र : "स्पन्दन"ाचे पाञ्चवे वार्षिकय, कोच्ची "भुवनेश्वरी कलाकेन्द्र"ाचे रजत जूबिलीयि 1-11-2015 क चमकीलें। ताजे ऊणे दृश्यं।



प्रति - ₹ 5/-
वार्षीक - ₹ 60/-

# स्पन्दन

प्रकाशन : केरळ कोंकणी अकादमी, कोच्ची



SPANDAN
Published by :
KERALA KONKANI ACADEMY
8/28, 'Santhery', 1st Floor,
Opp. M.S.C. Bank Ltd., Cherlai Road,
Cochin - 682 002. Mobile : 94477 35849
Email : keralakonkaniacademy@gmail.com

खंड : 4 अंक : 12 1937 मार्गशीर्ष

## संपादकीय

"स्पन्दन"ाक पांच वर्षां पूर्ण जल्लीं। ह्ये विषयान्तु 2015 नवम्बर 1 तारिकेक कोच्ची दोवोर्नु एक साहित्य सम्मेळन, कथा, कविता पारायण, बहुजनांक एकडे कोरनु एक चर्चा आदी कार्यक्रम चमकीलें। हान्तु पूरा जायते जनानि भागु घेत्तलो म्हळेले सन्तोषाचे खबर।

अस्सी एक सम्मेळन घडोंवचाचो प्रधान उद्देशु स्पन्दना पसून जनांक, बरोवप्यांक, विचार प्रकट कोरचाक एक अवसर, तस्सीचि मुक्कारि खंचे रूपान वोचूका म्हळेल्याक एक चर्चा करप म्हळलेंचि त अस्सीलें।

जनांक स्पन्दना विषयान्तु इतूलि श्रद्धा आसा म्हणु आमकां अनुभसूक जल्लें। तांगेले सुझाव प्रौढ गंभीर असीले। प्रधान जावनु जनालो अभिप्राय "स्पन्दन" एक लगेन व्होड रूपारि उजवाडांवका म्हळेले त। मोल बहु ऊणे। चड केल्यारीयि सहकारु आमी दित्तलीं म्हणु चर्चेन्तु भागु घेत्तले सज्जनानि सांगतना स्पन्दना लागी जनांगेलि प्रीति आमका समझलें।

जनाले सर्व सुझावय अम्मी मनान्तु दवर्तायि। सर्वांलोय सहकार मुक्कारीयि प्रतीक्षा करताय।

तस्सीचि कोच्ची भुवनेश्वरी कलाकेन्द्राले रजत जूबिली अमचे ओट्टु मेळनु चलेयलेले, तांचे कलाकारांक धन्यवाद सांगूक ह्यो सन्दर्भु विनियोग करताय।

कोच्ची, 01-12-2015 सुरेश ए. शेणै, मुखेल संपादक.

## कलामालिं सुवचनँ -

- अनिता डी. किणी, कोच्ची



***"God, our creator, has stored within our minds and personalities, great potential strength and ability. Prayer helps us tap and develop these powers"***

*"अंगेलो शृष्टिकर्ता जावनश्शिल्ले देवान अंगेले मश्तिष्कान्तु अनि व्यक्तित्वान्तु असीमित शक्ति अनि क्षमता भोर्नु दवर्लेले अस्स। ये शक्तींचे प्रयोजन काडूकय विकास कोरूकय प्रार्थना सहायु करता ।।"*

2015 नवम्बर 1, कोच्ची - "स्पन्दन" मासिकेचे पांचवे वार्षिकय, भुवनेश्वरी कला केन्द्राचे रजत जूबिलीयि टी. डी. हाईस्कूळान्तु दोवोर्नु चमकीलें। सकाणि आयोजन केल्लेले साहित्य सम्मेळन पद्मश्री एन. पुरुषोत्तम मल्या हन्नि उद्घाटन केल्लें। पय्यन्नूर रमेश पै अध्यक्ष अस्सिलो। सुरेश ए. शेणै, जी. एस. महेश, एम. लक्ष्मण किळिकार, एन. मुरळीधर पै, सुशीला टी. भट्ट, जी. मोहन राव, आर. कृष्णकुमार नायक, पी. मनोहर हन्नि प्रभाषण केल्लें। कथा-कविता पारायण, चर्चा सग चमकीलें। रत्ति निशा नृत्य कलालय, पाण्डिकुडि हंगेले नृत्य, भुवनेश्वरीले 'मक्काय एकु दीसु अस्स' म्हळेले कोंकणी नाटक आदी चमकीलें।

---

21-11-2015 - कोच्ची टी. डी. हाईस्कूळ :- कोच्चिन कलाक्षेत्रान "अंगेलो देवु" म्हळेले कोंकणी सामूह्य भक्ति-नाटक खेळेय्लें।

---

20-11-2015 : नवि दिल्लीन्तु साहित्य अकादमी आयोजित युवा लेखक उत्सवान्तु गोंयचे पांडुरंग गांवकर हन्नि कोंकणीक प्रतिनिधान कोर्नु कविता प्रस्तुत केल्ली। साहित्य अकादमी सभागृहान्तु (रवीन्द्र भवन, प्रथम तल) दयोर्नु तँ ह्यें चम्कीलेलें।

---

अभिनन्दन





**कोच्ची कोर्परेषन - कोंकणी जनप्रतिनिधि**

**7 वार्ड - श्यामळा एस. प्रभु**

**66 वार्ड - सुधा दिलीपकुमार**

---

**कुडचडे कोंकणी कला साहित्य संस्थेचे पुरस्कार** - १) साहित्य - मधुसूधन जोशी २) अनुवाद पुरस्कार - पांडुरंग गावडे ३) बालसाहित्य - कुमुद नाईक ४) नाट्य पुरस्कार - महेश नाईक

**संत केशवदासालि**
**हितोपदेश कथा – 9**

**प्रो. वी. शिवानन्द भट,**
**पंचाब्जपुरम**



## "देवु सर्वांक राकता"

छत्रपति शिवाजी संत समर्थ रामदासालो शिष्य आसलो। एक दिवसा ताणे पाँच हज़ार जनांक भवन निर्माण करचे खातीर धंधाक रावयले। तंका काम दीव्नु पाँच हज़ार परिवार राकला म्हणु शिवाजीक अहंकार आयलो। शिष्यालो अहंकार दूरा करूक गुरून प्रश्नु केलो - "तुगेले एक सेवकाक अपौनु ही शिला भेत्तूक सांगशिवे ?" शिवाजीन गुरूलि आज्ञा पालन केली। भेत्तल्ले शिले भित्तेरि एक सानु बेबो अनी उणे उदाक पळौन शिवाजि विस्मित जालो। बेबो उडकि मारनु भायर गेलो। गुरु रामदासान सांगलें - "हे शिवा, तूँ मनुष्यालो संरक्षक म्हणु हांव लेकतालो, बेब्यांक अनी कीड्यांक संरक्षण करता म्हणु कळना आसलें, तूँ तांकांयि शिलेन्तु आश्रय अनि जल दित्ता म्हणु कळेना।" गुरूलें उतरां ऐकून शिवाजीलो अहंकार वोचून तो विनम्रपणान सांगलो - "हे गुरो, आतां मका कळें लोकान्त सर्वांक देवु रक्षण करता, मेगेले अहंकारपूर्ण उत्तरां क्षमा कोरका।"

---

**औषद पंक्ति - 46**
**अज्जेलीं वोक्कदा**
(मुत्तशिश वैद्यं)
सुशीला टी. भट्, कोच्ची

## मुत्तांत फत्तोरू (മൂത്രത്തിൽ കല്ല് / Kidney Stone)

आहारांतुले थोगडे मूलकाचें चढावान, पचनेन्द्रियांचे थोगडे भागान एक्कडे जावनु, फत्तरा रूपान परिवर्तन जावनु मुत्ताक तटस्थ कोरचो रोगु तां मुत्तांतु फत्तोरू म्हळ्ळेले आम नावान संगून एवंचो. उदाहरणाक आहारान्तुलें "कालसियम" चढ जावनु किडनींतु, लिवरांतु, गोळ ब्लाडरांतु सग्ग फतरा रूप धोरचें. अन्य थोगडी कारणां अस्साय जल्यारीय प्रधान शत्रु कालसियमच तां.

<u>रोग लक्षणां</u> :- फाट्टी पोन्दाक थाकून बरीचे खलचान मूत्रनाळी तलवा लागी पर्यान लग-लगीच एवंची असहनीय दूकी. मूत वच्चाक बाधा. तव-तावळी थेंबेवनु-थेंबेवनु वच्चे मूत. मूत्रनाळी तोण्डारी असह्य दूकी. थोगडेच समयार मुत्तांतुल्यान रग्गत वच्चप. अति दुक्कीरी मुत्तांतुल्यान कणरी सी फत्तरा पुड्डी (कुटके) बहिरगमन जावप. रोग्याक बेस्सूक, रब्बूक, पोडूक जावनत्तिल्ली अवस्था. *(शेष लगी अंकान्तु)*

**सुमनांचें स्मरण - 9**

कृष्ण नारायण नायक, कोच्ची



# वोव्वळ



सुनन्दालें गृहपाठ जालें। अम्मान टी.वी, दवर्ले। वाजप तिजे कन्नान्तु गेल्लें। एस.वि.बि.सि., टि.टि.डि सहस्र दीपालंकरण सेवा जत्ता - तिका कळें। तीवयि वुचून चोंवचाक बेसलि। खाम्बु जावनु कापूरा आरति दकैतायि। तीं पायिं पळ्ळि। भोर्नु आभरणांचो भिन्न पुष्पहारांचो दिव्य अलंकार - ताजे भायर तिन्नीयि मूर्तीक तेदूस पांपांच पोडांचो वोव्वळां सोरु ! हा ! अनुबन्ध संभवान्तु तिगलें मन्न मेळसलें। वोव्वळ दिकिल्यारि आयेले उद्यमाचो उडगासु जगो जत्तलो।

.... तेदूस पुजे आरति जावनु वत्ता सणा गंगक्का सोमक्का मीरक्का कलक्का लतक्का घरकडे चळीं। "दीवाळे अभिषेका चम्पेलाक घालूक वोव्वळं सोदून आय्यिल्लिं। मेळचे मस्त कडे रूक कत्तोर्नु गेले। असिले कडे ह्या फन्ता एदोळ धोर्चिं लक्षण पळ्ळिनांयि। उळगावान्तु अन्वेषण कोर्नूयि फल ना। एकेक फन्ता तस्सि उसरमेटि जत्ता। वत्ता सणा हांगायि चोवनु वच्चा म्हुण आयल्लिं तं।" आगतांनिं उद्देश्य व्यक्त केलो। आयियि तीवंयि वोव्वळी मूणान्तु गेलीं, रुकारि चोयलीं, कांय रक्षा ना ! "केदाण भित्तरि मेळका तुम्का ?" आयि जाण जालि। "पांच दीस भित्तरि पुणीयि मेळका" तन्नि जाप दिल्लि। "तुमी एवनु चोय्यायि" आयलें सांगप आयकून तीं प्रतीक्षेन पर्तलीं। आयि मस्त घडियांक थांगाचि; म्हणता, झाडता, सित्तोडो फापुडता, रुकालागि उलैता ? लागी दिसांचें सकाणीयि सांझेयि तें आवर्तन जालें। सट्टे दिसा तीं आयलीं; जाय जालीलिं वोव्वळ मेळिं। अतिशय, प्रार्थनेचे एकाग्र प्रयत्ना फल, देवाले खेळ !

वोव्वळ पोडूक आरांभिल्यारि आयेक तपव्रतकालु तं। पुन्जावप गान्तप देवळांकडे पाववप घटि सेवा ! नित्यामाण्डा भायर यें सग ! सुमार दिसांक चालू तें। भोरा दिस्साचें गांवचे सग देवळ देवळियांकडे पावैंतली। भूक तान देहा विषयु कांय प्रश्नु ना। बाकि फुलां मट न्हय वोव्वळां सोर गान्तप म्हळ्यारि ! तर्नाटे लेण्डियो घालताय। शेन्चे पावळेन्तु पाविल्ले आयेक पूरो जायना - यन्त्र वेगता ! मार्गशीर्षोत्सवाक उतूले दशकांक वोवळा सोर देवाक पावौंचाक आयेक जालें - निश्चय दृढता सिवाय इत्ति तें ? बाधा भोगप कांय नत्तिलें शान्त स्वस्थ अनायास आयेन सूक्ष्म प्रयाण केलें। शेष सग मेळनु सरि ताजो सस्प वान्टो आतं तांकना ! सुनन्दाले दोळे निस्तले। सर्व बगेन पिळग्यो मुकारि कि..? विचारां पाळान्तु ती पोंवतची बेसली !

# भक्तिगानामृत

- के. शान्ता बाई, कोच्ची

वैकुण्ठवासा श्री वेंकटेशा
तिरुपतिवासा श्रीनीवासा
श्रीलक्ष्मीरमणा श्री वेंकटेशा
दरिशन दीरे श्रीनिवासा
शेषाद्रिवासा श्री वेंकटेशा
भक्तपुराणा श्रीनिवासा
भक्तवत्सला श्री वेंकटेशा
दीनदयाळो श्रीनिवासा
पापविनाशन श्री वेंकटेशा
संकटहरणा श्रीनिवासा

दुःखविनाशन श्री वेंकटेशा
दुरित निवारण श्रीनिवासा
अनाथबन्धो श्री वेंकटेशा
आपत्बान्धवा श्रीनिवासा
कलियुगवरदा श्री वेंकटेशा
गोविन्दा श्रीनिवासा
गोविन्दा हरि गोविन्दा
हरि श्रीनिवासा
गोविन्दा (3) हरि
गोविन्दा हरि श्रीनिवासा

## कोंकणी गीत प्रसारण

आकाशवाणी - मंगळाराचे
तृशूर (630 K/Hz) MW
सांजे 4.45 धोर्नु 5.00 पर्यन्त
कोषिकोड (684 K/Hz) MW
सांजे 5.00 धोर्नु 5.15 पर्यन्त

*(आभार - के. अनन्त भट्ट, कोच्ची)*

## आत्मीय

भगवत भजन कर्तल्यान्तु तीनि कूट - भक्ति, विरक्ति अनि अनुभव प्राप्ति - एकसाणीचि उत्पन्न जत्ता।

## गुल्लीयो कित्ति सांगताय - 18

एन. बालकृष्ण मल्या, कोच्ची

**खाल दिल्लेली सूचि ग्रहबळाचे अनेक प्रकार व्यक्त करता:-**

| स्थान | बळ | संख्या |
|---|---|---|
| उच्चक्षेत्र | पूर्ण बळ | 60 बळ |
| मूल (त्रिकोण) क्षेत्र | पावूर्णें बळ | 45 बळ |
| स्वक्षेत्र | अर्द्ध बळ | 30 बळ |
| अतिबंधु क्षेत्र | 3/8 बळ | 22 ½ बळ |
| बंधु क्षेत्र | सवाय बळ | 15 बळ |
| समक्षेत्र | सवायांतुं अर्द्ध बळ | 7 ½ बळ |
| शत्रुक्षेत्र | 16 तु एक (1/16) बळ | 3 ¾ बळ |
| अति शत्रुक्षेत्र | बत्तीसांतु एक (1/32) बळ | 1 7/8 बळ |
| नीचक्षेत्र | निर्बळ | बळ ना (शून्य बळ) |
| वक्र | 2 गुण चड बळ | X 2 बळ |

# गुड्डे नांवांचे तोन्द्रव - 2

- सुन्दरेशन मास्टर, कोच्ची

एदे मास उपरान्ते एकु दीसु हांव अंगेले कुटुंबक्षेत्राचे प्रतिष्ठादिनाघोषान्तु भागु घेंचाक जावनु एळविन दक्षिण दिक्कारशिल्ले वल्यतोड बसस्टोपान्तु पौलो. थंगा थकून एद्दे बडकारि जावनु रोडाचे कडेन एक एल.पी. स्कूळ अस्स. हांव थंगा तँ चोवते क्लास पेरान शिक्किल्लो. ते स्कूळान्तु अतं मिगेले पूर्वकाल सहपाठिनि जयकुमारि टीचर अस्स. स्कूळ चोंचाकयि, जयकुमारि टीच्चराक दिक्कूकय जावनु हांव थंगा गेल्लो. मुक्कारि दिकिल्ले क्लासान्तुले अध्यापकालगि जयकुमारि टीच्चर अस्सवे म्होणु हांवे निंगिले. तो संगता - “हंगा ते नावाचि एकि टीचर ना, कुमारि म्हळेलि एकि टीचर अस्स.” हांवे सांगिले “मक्का कळता ती हंगा अस्स”. अम्मि तर्क्क कोरनु रब्बिल्ले वेळारि लगीचे क्लासान्तूलि टीचर पौलि. तिज्जे लग्गि कयरिं संगुचानीक तीणे संगीले - “तो अध्यापकु नोवो तं. तक्का कोळन्ना, हांव संगन. जयकुमारि टीचराले गुड्डे नांव कुमारि तं.” मक्का अतिशय जल्लो. मनिषा नांव्वांचोय कुटुको काडुक आरांभिलो मू ! तेद्दे भित्तरि टीच्चरान वोच्चून जयकुमारि टीच्चराक उळदूनु हळ्ळि. हांवें तिज्जलगी निंवगीलें - “इत्ति जयकुमारी ? स्टाफान तुक्काय कुट्टी केल्लीवे ?” म्होणु. तवळि तीणे सांगीले “ह्यें नवें कयरीं न्हय मू. अम्मि एक क्लासान्तु शिकूचे वेळेरि तुक्का टीच्चरय, क्लासान्तुले चेर्डुवंयि ‘डी. एस. शेणायि’ म्होणु न्हयवें उळदितानीं ?” तिगेले ते उडगासा शक्तीक हांवे प्रशंसा केल्ली. वर्तमाना ओट्टु स्कूळान्तूले विशेषु सग्गु हांवे अन्वेषण केल्लो. तवळि जयकुमारि टीच्चरान संगील्लो विशेषु इत्ति म्होणु चोव्यां.

मार्च मास बाराक स्कूळ परिशोधन अस्स म्होणु फेब्रुवरि मस्सान्तु ओरडर एयिलें. टीच्चर्सानि जांव्का जल्लेले प्रमाण सग्ग तय्यारय केल्लें. हेडमिस्ट्रस्सान स्टाफ मीटिंगान्तु दोवोर्नु परिशोधना दिस्सा कयरिं एक लगि उडगासु केल्लो. सांगीले दिस्सा धा वरारि अंगेलो ए.इ.ओ. कृष्णक्कम्मत्त स्कूळान्तु पौलो. जयकुमारि टीच्चरान उत्तुलें सांगुचानीक हांवे निंवगीले - “अत्तंचो ए.इ.ओ. बालकृष्ण कम्मत मू ! हांव तक्का वळकता मू मगीरि तू इत्तिकी कृष्ण कम्मत म्हणता ?” तवळी तीणे सांगीले - “तू उडगासु कोर्नु चोयि, बालकृष्ण कम्मत्ताले गुड्डे नांव कृष्ण कम्मत न्हय वें ?” हांवे नंकारि बोट दवर्ले. हांवे तिज्जेलग्गि परिशोधना विवरु सांगूक सांगीलें. ए.इ.ओ. “सूपरविषन डयरीयि” घेव्नु एक्केक क्लासान्तु चोणु तगेली जोलि (काम) पूर्त्ति कोर्नु एयलो. एद्दे टीच्चर्सानि मॉप, चार्ट इत्यादि मात्रं तं तैयार केल्यां. जाल्यारि हल्लूचेय, हल्लु जाव्नत्तिलेय मोडल, भूगोळा मातृका, रेवेन केल्लेले बोम्मि, तश्शि

जायते टीच्चिंङ एयड्स कनकलता टीचराले क्लासान्तु मात्रं तं ए.इ.ओ.न दिकील्यां. परिशोधना समापना फूडे स्टाफ मीटिङान्तु दोवोर्नु स्कूळा पस्सूनु चांगु अभिप्रायु सांगूचे ओट्टु ए.इ.ओ.न संगीलें हांगा कनकलता टीच्चराक मात्रं तं एयड्स अस्स. ए.इ.ओ.न यें सांगिल्लेंय कनकलता टीच्चरान रोडूक आरांभिलें. हेडमिस्ट्रस्सान संगीलें "सन्तोषा रण्णे तं"म्होणु. जल्यारि मीटिङ जावनु सग्ग टीच्चर्सानि गेले अस्तना कनकलता टीच्चर मात्रं ओफीस रूमान्तु रोणु बेस्सल्या. ए.इ.ओ. "ओप" सग घालनु जावनु वच्चा वत्ता. तवळि टीच्चरालग्गि निंगीलें -"इत्ति टीच्चर रोणु बेस्सल्या?" टीच्चरान ए.इ.ओ. लगि निंगीलें -"इत्या सार मक्का सगटांचे मुक्कारि दोवोर्नु अपमानु केल्लोलो ? हांवे सारा लगि इत्ति चूकि केल्ली ? मक्का 'एयड्स' अस्स म्होणु खंचे डोक्टरान की तुंचेलगि संगिल्लें ?" ए.इ.ओ. निर्जूळ जल्लो. ताणे संगीलें - "कनकलता ! तुगेले नांवाचे गुड्डे नांव लता म्होणु तं हेडमिस्ट्रस्सान मिज्जेलगि संगिल्लें. बालकृष्ण कम्मत म्हळेले मिज्जे पसूनु वगळ्याले सांगुचे वेळेरियि कृष्ण कम्मत म्हळेले गुड्डे नांव तं संगताय. हांवे टीच्चिंङ एयड्स म्हळेल्याचे गुड्डे नांव तं 'एयड्स' म्होणु संगिल्लें. अत्तं मन्नां जल्लेवे ?" ये अयकूनु टीच्चरय, हेडमिस्ट्रस्सयि हस्सीर्लि. तें दिक्कूनु ए.इ.ओ. होड्डान हस्सीलो. ❋



## कायळेले सल्लो

- यु. के. पै, पुत्तूर (कर्नाटका)

कायळो घेले रात्राक  
भोंवच्याक एक वारू।  
वाट्टेरि ताका मेळ्ळे  
नांचिता आसिलि मोरू।।  
कायळेन सांगले मोरा लगि  
केदनाय कसले थै थका?  
ओडीसा वचून शिकून यो  
चेंद नांचप कथक।। ✡

## तुळसीदास भजनां

- के. अनन्त भट्ट, कोच्ची

हे हरि, कशिकि हो भ्रमु म्हजो वतलो।  
आयकुनु पोळोनु समझुनु मनाचो, निज स्वभावु ना जातलो।।1।।  
भक्ति ज्ञान वैराग्य साधन सग ह्या कार्याचे उपाय।  
कोणी बरें सांगो कोणी दीवो म्होणु ही, वासना मनाक घाय।।2।।  
ज्या रात्रींतु सग जीव निदेताति तव कृपापात्राक जागेयता।  
निजकरणी विपरीत चोन्नु म्हजी, समझूनु भय तें लागेयता।।3।।  
मनोरथांतु मग्न जान्नु विधिवश, सुख लेकता दुःख मेळता।  
हाथ नातिल्लो निस्वार्थ चित्रकारु चित्र बरवुनु खेळता।।4।।  
हृषिकेश तुजें नांव तें आयकुनु, मनांतु म्हजे विश्वासु।  
हरि तूं देवा इन्द्रियांचें दुःख, सांगता तुळसीदासु।।5।। ✤



## पंचतंत्र कथा



**(अथवा नीति शास्त्र)**

**कथा - १ भागु (ई)**

संपादक - जी. पी. कामत, नोयडा

ये खत्तीरि राया, एकु शब्दु अयकीले खत्तीरि भय नज। गाँवु सोडू पाणा। धमनक संगतोलो जल्लो।

ये अयकतना रायु - "अरे धमनक, तूवे संगूचे सत्य म्होणु मक्का दिस्ता। जल्यारि मेगेली जनावली सर्वय अति भीतीन असय। हांवे तंका कस्सी धैर्य दिवंचें ?

धमनक - राजन, धैर्य घेयाय, "यथा राजा तथा प्रजा" म्होणु संगताय। तुम्ही विचारु काडका नक्का। हांव वोच्चून तो शब्दु कोस्सोलो, तें कोण करता म्होणु सर्वय जाण जाव्नु एत्ता।

रायु - "अरे धमनक, तू कसने संगता ? तुका धैर्य असवे थंगा वचाक ?"

धमनक - "राज-भक्ती अस्सिलो, कसलें भय नत्तिलें रायाली आज्ञा पालन कर्ता !"

ये संगून रायाक वंदन कोर्नु नदी तीराचेरि घंकीलो धमनक।।



### कर्नाटक-केरळ कोंकणी

- गुरुदत्त एस. प्रभु, कोच्ची

मिज्चु/झगझगु - झगलावॅणि
अट्टापना - एक केल्यार
अयकना/ धोरूक मेळना
तिळसीयि - जाणेयि/ कळेयि
समचि भोंव - समकी भोंव
वागसून - बव्गूनु
तण्डले - वोड्डीले
एदूर - मुक्कारि
खंय - खंतय
एद्दोळु थांयि - अतँ भित्तेरि

### कोंकणी जोड पदां गोंचो

- नागेश आण्वेकार, कारवार

हळद - कुंकुं
धारले - वायले
घू - मूत
वंकी - उत्कडे
वांकडे - तिंकडे
मर्कट - तिर्कट
पूंड - पोकरि
शेत - भात
नकरो - निंदो

### गोंय आनी केरळ कोंकणींतलें अंतर

- एन. वालकृष्ण मल्या, कोच्ची

खीण = क्षण
शीम = सीमा
(शीममेर आसप = सीमेचेर आसप)
उपाट = अपार
येवपाक = येवंचाक
फुट्टूल = भाग्य
तुळा = तुलना
गजाल = विषय
जीण = जीवनी

पड्डळ्याचें सालड

## बायलाँ खातिर (ददल्यांकय)
- उषा आर. भट, हैदराबाद

**सामग्री**

1. ऊणे अम्साणी मेणायि - अरवळ (दोनि कप)
2. तरणे पड्डळें - 300 ग्रां (सालि आनि घीरु काणु चौकण्ड सान कुटके)
3. जीवि मिरसांग (काप्सिकम जल्यारि चांग)- 50 ग्रां (चक्र चक्र कोर्नु कुटके केल्लेले)
4. कोत्तंबरी भज्जि (पल्लो) - एकि मूष्टि (सिन्दिल्ले कुटके)
5. करबेवा पत्ति - एकि मूष्टि
6. हळ्दी पुड्डि - एक चिपट
7. मीट - थोडेंचि
8. नर्लेल - थोडेंचि (फण्ण घालूक)
9. सस्सम - " "
10. सुक्कि मेत्ति - " "

पड्डळ्याचे कुटके, हळदी पुड्डि घालनु सिज्जोंव्का। (काप्सिकम जल्यारि तज्जे कुटकेयि सिज्जेतना घालका)। मीट घालनु मेळसोव्नु खाल काडका। तेल्लान्तु सस्सम, मेत्ति, जीवि मिरसांगे कुटके (कापस्किकम घल्लें जल्यारि मिरसांग नक्का) करबेवा पत्ति क्रमान घालनु फण्ण तैयार करूनु सिज्जेलेले रंदयेन्तु भरसूका। रण्णीरि सुकूनु खाल कळ्ळे उपरान्ते मेणायि कोत्तंबरी भज्जीयि घालनु एक दय्येन मिश्रण कोर्का। सालड तैय्यार।

## कोंकणी - മലയാളം - English
- शैलेष कम्मत. एम., कोच्ची

सत्तूलि - കുട - Umbrella
चॅवरँ - ചാമരം - Chowrie
अण्णो - വിശറി - Hand Fan
हस्ति - ആന - Elephant
हस्ते भुण्डो - ആനക്കുട്ടി - Baby Elephant
सूळो - കൊമ്പ് - Tusk
पोंजु - പന്തം - Torch
संड्काळ - ചങ്ങല - Chain

## मोक्ष
- ए. पी. भानुप्रकाश,पच्चाळम,कोच्ची

फात्तोरु फात्तोरु पाष्णा फात्तोरु
अरूपी, विरूपी, पाष्णा फात्तोरु
वत, पावस, धूळी, दंव लागली जायते
भोगलो व्होड कश्ट दीस रात
मेळ्ळो मोक्षु म्हाका एक दीसु
लागलो म्हजेर एक शिल्पीचो हातु
शिल्पीच्या हातान हांव अतिसुन्दर
जालो, जालो हांव एक देव मूर्ती

## आळें (കടങ്കഥ/Riddles)
- आर. तारा बाई, कोच्ची

बप्पूसु सूर्यु, आवसु समुद्रु। खोंपियान्तु थकून रवळारान्तु पेरान चोणु वत्ता। **मीट**

जूलै 1-3, 2016 - क अत्लांटा, जोर्जिया हंगा कोंकणी सम्मेळन जत्ता म्होणु सन्तोपाचि खबर। *

**संत कबीरदास दोहा** - 

एन. लक्ष्मण मल्या, कोच्ची

"जाको राखै सौंयाँ, मारीन सकै कोय।
बाल न बाँका करि सकै, जो जग बैरी होय।।"

देवु कोणाकी रक्कता, तक्का कोणे मारूक जावुना। लोक सर्वयी तज्जो शत्रु जल्यारीयि, तग्गेलो केसु सरि बग्गोंव्याक जावुना। म्होणु संगील्यारि तक्का कायीं नाशु कोरूक जावुना। तें दिक्कून सर्वानीयि देवाले कृपेक पात्र जावुंका।

---

नियाळूंक :

# पांवळां

- फिलोमिना सॉंफ्रॉंसिस्को, मुंबय

बरफ पडपाचो रितु तो. हिंवांचे हे दीस त्या पाय-पुताचे खूब आवडीचे आसलेत. पासोयेक वचपाक तांकां हे दीस खूब आवडटालेत. विसरनासतना सदांच ते आपले हे सदांचे भोंवडक वतालेच. तेदुसुय, बरफाचो परवा करीनासतना बरफाचे वाटेंनल्यान दोगुय वाट काडीत चलत आसलेत. हाताक हात धरून चलतालेत. केन्नाय, पूत बापायचो हात सोडून खेळटालो. हवटेन तेवटेन धांवतालोय बी. आनी असोच, बापायचो दोळो चुकोवन तो खेळाच्या नादार आसतना, अकसमात ताका आपलो बापूय दिसनासो जालो. आपूण खूप फाटीं उरलों, आपूण शेणलों जायत म्हूण समजून तो भियेलो. रडूंक लागलो. तरूय, धीर सोडलो ना ताणें. उटलो. हेवटेन तेवटेन पळेत रावलो. बापायक सोधीत रावलो. पूण बापूय झळखलो ना. अकसमात झळखलीं तीं बरफाचे वाटेर आसलेलीं **पांवळां**. पुताचे खोश्येक शीम मेर उरली ना. खूब खोशी जालो तो. आनीक वेळ वगडायलो ना. चलत रावलो. आपल्या बापायच्या पांवळांचेर आपलीं पांवळां दवरीत. फुडें वचत रावलो, आनी शेवटीं आपल्या बापायचे बगलेक पावलो. बापायच्या पांवळानी.

आमीय बी, आमच्या जिविता वाटेर फुडें फुडें पयण करीत आसतात; आमच्यां पांवळांची निशाणी आमचे पाटल्यान दवरीत. आम्च्या पांवळांनी चल्लेल्या मनशाक आमचीं पांवळां खंय पावयतलीं ? आमचे पाटल्यान चलून येवपी येरां पयणार्यांक आमच्या पांवळांची निशाणी सुरक्षीत थारतली ? आमी चलून गेलेले वाटेंतल्यान हेवूय वाटसूर चल्ल्यार, ते सोधीत आसलले थिकाण तांकां मळटलें ? वो, आमच्या पांवळानी चलून हे वाटसूर आपली वाट मामणाक चुकतलेत ? ना-कळटां लेगीत आमचे कडल्यान असलो भिरांकूळ चूक घडची न्हय म्हूण काळजी घेवपाची. आमच्यां पांवळांनी चल्लोलो मनीस, चुकनासतना, नक्कीच पावपाक जाय त्याच सारख्या थिकाण्यार पावतलो, असल्यांच पांवळांच्यो निशाण्यो आमी पाटल्यान सोडपाच्यो. ❋

## सुभाषित

माया जी. कम्मत
कोच्ची



"नराणां नापितो धूर्तः पक्षिणां चैव वायसः।
चतुष्पदां शृगालस्तु स्त्रीणां धूर्ता च मालिनी।।"

पुरुषान्तु केळसंचोयि, पक्षिन्तु कायळोयि, चतुष्पदान्तु कोल्लोय, स्त्रीयान्तु उद्यानपालिकायि सूत्रशाली तं। तें दिकूनु एकल्यान श्रद्धेन जांव्का या चारि जाणा लग्गि व्यवहारु कोरूक।

## रसपति - आर. के. प्रकाश, पळ्ळूर



Dr. P. N. N. सिंह
डॉ. प्रश्नु ना नरसिंह
SSLC, PDC, BSc.,
MBBS (3 times)

आटपायांचो बाबु : डॉक्टर, बप्पा मोंचूवँ खेळचा वचून परतून मोंचूव सरि जावनु एयला। वखद इत्तेंय ?

डॉक्टर - प्रश्नु ना, वखद दित्तां, तें जावनु मोरां खेळाक सोळ्यार पूरो।

* * * *

रंदपी गुण मामु : डॉक्टर, मिजे देहारि जन्नूवें रावना। तीन-तीन दिर्सी ह्यें परतीतां।

डॉक्टर : प्रश्नु ना, फाटी खोर्जूक वखद दीन। उपरान्ते जन्नूवें प्रश्नु नात्तिर्ले रावतर्ले।

## चुटको - भक्ता आर. कासंगाड

गाढवाले मागशी पायाक 'बल' !
मनशाले हाड नातीले जिवेक 'बल' !
गाढवाले मागशी वचा नज !
मनशाले मुखार पडूं नज !





## परणी म्हणणी

- श्रीदेवी सुरेश प्रभु, कोच्ची

- हस्तीक घाण्ट मन्दूका नक्का।
- हस्ते तोण्णान्तु कोव्यु दिल्यारि कस्सि ?
- हस्ति लक्कूनु वत्ता मुंबराचे लेक करता।
- हस्ती घेवचाक दुड्ड अस्स, संङ्काळ घेवचाक ना खंय।
- हस्ति गेलेल कळना मूंयि गेलेलि कळता।।



## चेर्डुवांलि चित्रँ





कु यश्वन्त एस. प्रभु (10), कोच्चीचे श्रीनिवास एस. प्रभु अनि आरति हांगेलो सुपुत्रु।

## तूँ काळो कस्सि जल्लो कायळ्या ?

- कु. अञ्जली किणी, कोच्ची

कायळ्या हांव नींवगीता
तू काळो कश्शी जाल्लो ?
राति-मदरातीचे भिण-भिण
कळखान्तु वे तू जल्लोलो ?
की ऊँच ऊँच उबतेरि
वोत्त घेवनु करपलो ?
की पाक मोणु खाल
गरगडेञ्नु पोणु चिकलान्तु न्हल्लो ?
की आवसून तुक्का शिंगारनु
कज्जल वुक्को केल्लो ?
की शीवेलि चोंवचाक वच्चानीक
हस्तेन काणु फाप्पूळो ?
की काळे सोरपा घासु पोणु
विप चोणु इश्शि जल्लो ?
कायळ्या जाप दींवका
तूँ काळो कश्शि जल्लो ?
"गोरो तम्पीडोचि अस्सिलो हांव
कश्शी अस्सा मोगर्या क्रोळो
सगटाले दोळे पोणु पोणु
जल्लो हांव काळो।।"

DD 9 - चन्दना : 14-11-15' "नवरंगी फूल" - नाटकुली, 22-11-15' "वाग्देवताचि कथा" - कोंकणी नाटक प्रस्तुति :- विश्व कोंकणी केन्द्र, मंगळूर

## प्रदोष व्रता गीन्तु

- सुपारी

नित्य मन्त्रान शिवा स्तुति म्हणताय अम्मी
पार्वतीवल्लभा देवा ॐ शिव शंकरा
रुद्राभिषेकान पुज्जा कर्ताय नित्य
पार्वतीवल्लभा देवा ॐ शिव शंकरा।। (नित्य)
घोर परीक्षण कोरचो मू तू - जल्यारि
भक्तांचेरी प्रीति पव्वो मू तू
अभीष्ट वरदान दिव्वो मू तू - देवा
जगान्तुले सर्वय कोळचो मू तू ।। (नित्य)
दृढ मन्त्रान तुजे व्रत धरता - देवा
दुःख सर्वय हांव तुज्जेर सोडता
भक्तीचे वरदान दीव्नु मक्का वोगी
मुक्ति दीव्का तूंवें शिव शंकरा ।। (नित्य)

## गोश्रीपुरेशु

- वी. रत्ना वाई, कोच्ची

भक्ति दी तुज्जेरि अंका वेंकटपति
स्तुति तुज्जी कर्ताय अम्मि लक्ष्मीपति
गोश्रीपुरान्तु एवनु तूंवें केल्ली मू स्थिति
भक्तांचेरि सदा तुक्का अस्स मू प्रीति (भक्ति)
कलियुग नाथु तूं वेंकटेशु
नाँव तुग्गेलें श्रीनिवासु
भक्तांचे हृदयान्तु सदा तुग्गेल वासु
दकेय तुज्जे रूप अंका राति-दीसु (भक्ति)
कलियुगान्तु वैकुण्ठ सोणु
भूमीचेरि अयलोलो तूँ महाविष्णु
तिरुमलेशु... गोश्रीपुरेशु
सर्वय तूँचि मू श्रीभुवनेशु (भक्ति)



# वी. रामचन्द्र किळिकार (1905-1989)

- एम. लक्ष्मण किळिकार, कोच्ची

कोच्ची जी. वेंकटेश्वर किळिकार अनि रुग्मिणी बाई हंगेलो म्हल्गोडो पूतु जाव्नु 26-04-1905 दिस्सा रामचन्द्र जन्मलो। सरस्वती विलासं पाठशाला, टी. डी. स्कूळ अनि मगीरि महाराजास कोळेजान्तु इन्टर्मीडियटाक सिकीलो। टैफोयड एय्ले निमित्त परीक्षा बरेय्लीना। घरकडचे प्रतिकूल साहचर्य निमित्त उपजीवन मार्गु चोंव्का जल्ले। 1926 डिसंबर कानरा बांकान्तु कामाक चोव्ळो। 1939 तें सोणु पलसरका ब्यारु (मोडचरे) केल्लो। 1943 न्तु इण्डो मरकन्टय्ल बैकान्तु चोव्ळो। 1959 न्तु तें लयन केल्लेले स्टेट बैंक ओफ ट्रावनकूरान्तूयि मगीरि कोच्ची तिरुमल देवस्वं देवळान्तु मानेजर जाव्नूयि नन्तर वल्लभदास कान्जी, जयश्री टी एण्ड इण्डस्ट्रीस लिमिटड हंगा सग्ग काम केल्लें। 1969 न्तु कामान्तु थकून निवृत जल्लो। एम.एस.सी. बैंक, श्री वेंकटेश सेवा समिति, मध्व तत्व प्रचार सभा, कोंकणी भाषा प्रचार सभा हंगा सग सदस्य वा अध्यक्ष जाव्नु सग्ग सेवा केल्या।

1928 न्तु शारदा बाईक व्हर्डीक केल्ली। तंका 6 चेर्डूवँ - 4 चेल्ले, 2 चेल्लीयो - जल्लीं।

कोंकण जनताचेरि आरंभ कालार थकून बरोंवचे अस्सिले। "कोंकणी भाषा", "देवु अस्स वे", "प्रार्थनेचे महत्व" अस्सि सग लेखन दिक्कुयात। मस्त दळान्चेरि खण्डशः जाव्नु बरेय्लीं व्होड लेखन अस्स - "श्री काशीमठ संस्थान", "मरतकपच्चा", "भीष्म प्रतिज्ञा", "अनन्तव्रत", "वेंकटकल्याण" अनि आत्मकथारूपि "शिरोलिखित"। यें नन्तना मस्त कीर्तनयि तन्नि बरेय्लेलेयि अस्स, म्हळ्ळेलेयि अस्स। ह्यें सग एकडे कोर्नु पुस्तक जाव्नु एय्लारि जनोपयोगि अस्तले।

तन्नि 3-7-1989 क इहलोकवासु पूरो केल्लो।

*

# मातृभाषेचे महत्व !!!

- गोश्रीपुरं हरिकुमार

संत तुळसीदासु काशीन्तु येव्नु संस्कृतान्तु श्रीरामचरित बोरोंवचाक लगलो। जल्यारि दिस्सा रच्चील्ले पद्य पूरायि रत्ती अदृश्य जत्ताले। हो संभवु दिसदीस जल्ले।

आठ्वे दिस्सा रत्ती...
सपनान्तु महादेवान आज्ञा दिल्ली -

तूँ आपण्याले भाषेन्तु काव्य रचना करि !

तुळसीदासु उठाव्नु बेस्सोलो।

तू अयोध्यान्तु वच !
अनि हिन्दीन्तु काव्य रचना करी।

मातृभाषेचे प्राधान्य ह्यें !!!

